पयली आवृत्ती
मार्च २०१२

उजवाडपी
डॉ. आदित्य कामत
कामत बिल्डींग
४८१ वीर सावरकर मार्ग
प्रभादेवी, मुम्बय - ४०० ०२५.
फोन - २४२२ १३३८
मोबायल - ९८१९२१३५८९



मुखचित्र
आदि

छापपी
श्री. अनंत मुणगेकर
साईशक्ती
वीर सावरकर मार्ग,
प्रभादेवी, मुंबई - ४०० ०२५.
फोन - २४२२ १०१७

मोल :
१०० रुपया

जगातल्या समस्त कवींक, बरौंवप्यांक आनी विचारवंतांक
हि आदित्याची वैचारिक भेंट

## मांडावळ

# चिंतन कविता

आमचे कोंकणी स्त्रेस्ठ कवी मनोहराय सरदेसाय बरे ना जावन हातुण
पयलींची गजाल. सहज म्हूण तांकां हांव मेळपाक गेल्लो. खबरी करता करत
विशय आयलो. ताणी ह्या विशयाचेर बरेंच चिंतन केल्लें आनी ताचेर बरोवप
मनांत घोळटालें. पूण बलायकेचो सांगात नाशिल्लो. त्या सांजवेळा ताणी म
विशया सबंदान कोणे कितें बरयलां हाचे कितलेशेच दाखले दिले. ताचें एक ल्ह
टिपण करुन दवरुंक जाय आशिल्लें अशें म्हाका आज दिसता. मना सबंदा
कडले विचारवंत आनी भारतीय विचारवंत ह्या विशया कडेन वेगळे तरेन पळय
मनोहरबाब म्हाणिल्ल्याचें म्हाका स्मरता आनी ताची ताणी तर्कशुध्द अशी प
केल्ली.

मना सबंदान युरोपी तत्वगिन्यानी कसो विचार करताले ताची एक दे
ह्या फ्रेंच तत्वगिन्यानीच्या एका वाक्यांत मेळटा. Discouse on Method ह्य
प्रबंधांत तो म्हण्टा I think, therefore I am. हांगा तो मनापरस प्रज्ञेक चड म्ह
तर ज्ञानेश्वरा सारकिलो संत आनी तत्वगिन्यानी मन आनी बुद्धी हांचो मेळ
देकार्ताचो समकालीन (देकार्ताचो जल्म ३१ मे १५५६) संत रामदास (१६०५
वर्णन अचूक करतना म्हण्टा 'अचपळ मन माझे नावरे आवरिता, तुजविण शि
धाव रे धाव आता' आनी मुखार 'चपळपण मनाचे मोडतां मोडवेना' अशें
रामदासान केल्लें हें वर्णन अचूक आसा आनी कोणेच अशें वर्णन केल्लें दिसन
शंकराचार्यान भजगोविंदम ह्या स्तोत्रांत मनाक मूढमती अशें म्हळां.

विसाव्या शतमानाचेर दोन विचारवंतांनी प्रभाव घालो. एक कार्ल माक
दुसरो सिग्मंड फ्रॉयड. मार्क्स समाजाविशीं विचार करतालो तर फ्रॉयडान मना
घेवपाचो यत्न केलो. आनी ताका युंगाचो सांगात मेळ्ळो. तांच्या विचारांच्या उ
कलाकृतींचो नव्यान अर्थ लायलो. डोस्टोव्हस्की ह्या प्रतिभावंतान आपल्या
ers Karamazov वा Crime and Punishment सारकिल्या कादंबरींतल्या म
मनोव्यापार सोदपाचो यत्न केलो. आंद्रे जीद सारकिलो म्हान लेखक ताका मानस
समजता. मनाची तांक आनी एका म्हाकवीक होल्मल्ली. तो म्हळ्यार इंग्ली

जॉन मिल्टन. Paradise Lost तलो सैतान म्हण्टा मनान तर्कान सर्ग दिसूं येता. जाय ती मनाची धारणा. आनी शेक्सपियराच्या हॅम्लेटाची To be or not to be ही ताच्या मनाची द्विधा अवस्था. थोडे भोव प्रमाण सामान्य मनशाची तीच अवस्था आसता.

आदित्य कामत हे व्यवसायन दोतोर आसले तरी ते कालेतीन कलावंत. तांच्या हातांत सर्जनाची कातर आसा तेच बरबर कवीची लिखणी, शिल्पकाराची शेणी आनी चित्रकाराचे पिशोल आसा. तांच्या व्यक्तिमत्वाचीं वेगवेगळीं तासां. एकेच व्यक्तिभितर दोन तीन व्यक्तिमत्वां आसप हो आडवाद कसो. पूण अश्या व्यक्तिमत्वांच्या सुमेळांतल्यान ते व्यक्तिक आगळेंच तेज चडटा, हातूंत दुभाव ना. आदित्यांतल्या शिल्पकारान तांच्यातल्या कविचेर परिणाम केला. 'माती मळून शिल्पकार / मूर्तिक दिता आकार' अशें म्हणत ताचें नातें तो ईश्वरा कडेन जोडटा.

कणकण रचून ईश्वर
विश्वाक दिता गोलाकार
मनीस विध्वंस करुन
प्रकृतीचो करता संहार

हे वळींक खाशेलो अर्थ प्राप्त जाता.

आदित्याचे कवितेची मुख्य फोकस मनशाच्या मनाचेर आसा. तो मनाभितर बुडी मारुन ताची खोलाय मापता. खरें म्हळ्यार मनशाच्या मनाचो थांग लागना. ताच्या दोन मनां मदीं सदांच झूज चालिल्लें आसता. हीं दोन मनां खिणात हयचीं न्हय जावपी. देखून कवीक प्रस्न पडटा 'काळीज आमचें एक, मनां दोन कशी?' म्हणून मनांत वायट विचार दवरुन मनीस तोंडार फटिचो हांसो हाडटा. भायर सभ्य आचार दाखोवन भितल्ल्यान तो कपट रचता. तो भायर समाजांत भोंवतना रुपडीं घालून भोंवता. कवीक हो रुपड्यां फाटलो चेरो कुवाडें घालता. कवी मनीस सभावाचे वर्णन अचूक उतरांनी करता.

दुसऱ्यां परस वयर सरपाक
मानवाक खोस कित्याक भोगता?
वयर सरतल्यांक सकल वडवंक
चड आनंद कित्याक जाता?

अशे कितलेशेच प्रस्न हांगा कवीक पडटा. आनी ह्या प्रस्नांच्यो जाप
प्रवासांत ताका ह्यो कविता सुचल्यात. मनशाची बुद्द अमर्याद आसता आन
दर्याची खर कांडू येत, पूण बुद्धिची शीम मेजप सोपें न्हय'. फ्रॉयड आनी युंग
मानसशास्त्रज्ञांनी जिवीत भर हो यत्न केलो आनी आजूय तो सुरुच अ
जोमेरेन हे धतरिर मनींस आसतलो तो मेरेन तो उरतलो.

आयच्या संवसाराचेर एक नदर भोंवडायल्यार आमकां सगळेकडेन
सर्तीचें वातावरण दिसता. आनी आमच्या असमाधानाचें मूळ हे सर्तीत अ
लागून मनाक शांती मेळना. तो ही शांती सोदपाक हांगा थंय विडविडत
सगळ्यो इत्सा पूर्ण जाल्ल्यो जाल्यार बरें जातलें आशिल्लें. तरी मनशाक सूख
असो निर्वाळो आमी दिवंक शकनात. ताचें कारण आयज मनशाचे आश
हावेसांक कसलोच अंतपार उरूंक ना. मेळटा तांतूत आनी आसा तातूंत तो सम
तुकारामान म्हळां 'ठेविले अनंते / तैसेची रहावें / चित्ती असू द्यावे / समा
आयचो काळ वेगळो', 'फुडें फुडें म्हूण कितलें वचप, हाकाय कांय अंत न
आनी आपल्या हावेसांची पूर्ति करपाक मनीस खंयच्या पांवड्यार देंवत हे सांग
देखून कवीक म्हणचें दिसता

वायट शक्तीचे दालें
दिसपट्टें वाडत चल्लां
बरी शक्ती मात
आयज निर्फळ उल्ल्या.

संवेदनशील मनान व्यक्त केल्लो हो किंवाटो आसा. अर्थान मनीस
जालो तरी एका पेण्यार पावतकच ताका भितल्ल्यान पोकळ पोकळ दिसपाक
मागीर तो 'विश्वांत हांव कोण?' ह्या प्रस्नाचे जापेच्या सोदांक वता. इतलीं व
विचार करुन लेगीत ताची फाव तशी जाप मेळूंक पावंकना. आमी देवाक सोद
तो खंय लिपला तें कळना. तो फातरांत आसा काय जित्या जिवा हाडामासाच्
भितर? चडश्या संत म्हात्म्यानी देवाक फातराचे म्हूर्ती भितर पळोवचे परस मनश
पळयात असो उपदेश केला. आज जात पात आनी धर्माच्या नावान जीं झुंजा

जातात ताचें मूळ आमी देवाक फातरांत पळयतात तातूंत आसा. देखून 'मनश्याच्या रुपान ईश्वर / सदैव नावारुपाक येता, अशें कवीक दिसता तें लटिक न्हय. भायल्या उपचारां परसूय 'कुडींतल्या आत्म्याक पुजचें' हे वळींक खाशेलो अर्थ आसा. आत्मो हो ईश्वराचोच एक अंश आनी तो सदांच नितळ निर्मळ आसता अशें संत कबिर सांगून गेला. ह्या संदर्भात ह्यो वळी पळयात

देवाक सोदपाक वेळ वगडावंक नाका
तुज्यांतूच लिपला ताका सोदून काड
ज्या दिसा तुका खरें ज्ञान गावतलें
देवा भशेन वागपाची बुद्दु सोदून काड

अशें जरी आसलें तरी देवाच्या आस्तित्वा संबंदान मनात दुबाव आसता. 'चपळपण मनाचें मोडता मोडवेना' आशिल्ल्यान तें एकसारकें भिरभिरत आसता. तेच प्रमाण कवी मनश्याची जात निमाणी एकूच तेन्ना थंय कसलोच भेद भाव आसपाक फावना असो विश्वात्मक विचार मांडून वता.

आदित्यबाबाक ह्या विश्वाच्या व्युत्तपत्तिचें गुपीत जाणा जावन घेवचेली ओड आसा. हो मनीस संवसारांत कसो आयलो आनी ताचें ह्या ब्रह्मांडाकडलें नातें कितें हाचो तो सोद घेता. मनीस हो माकडापासून जालो हो डार्विनाचो सिद्धांत. ह्या सिद्धांताचेर जायते विचार मुखार आयल्यात. कांय विचारवंतानी हो सिद्धांत खोडून काडला. आदित्याबाब हाचेर विचार मांडटना डार्विनाच्या विचाराक आपलो तेंको दिना. 'प्राणि वनस्पतीन एका भशेन अनेक प्रकार / एक दुसऱ्यासून किद्या उत्पन्न जायना? असो प्रस्न तो विचारता आनी ताची जाप सोदता. 'कोणूच कोणासून उत्पन्न जावना / अनंतकाळा-पासून सृश्टी तशीच आसा अशें तो म्हण्टा.'

विसावो शेकडो हो मनशाच्या इतिहासांतलो म्हत्वाचो शेंकडो. ह्या शतमानात विज्ञानान आकांताची उदरगत केली. येरादारीचीं साधनां, फोन ते मोबायल फोन हो प्रवास, हाका लागून मनीस जीण पुराय बदलून गेली. संगणक आयलो आनी एक क्रांतीच जाली. आज आमी त्रीखंड लागीं आयले अशें म्हण्टात आनी मानतात. पूण हे क्रांतिची आनीक एक दुसरी वट आसा तिचे कडेन आमचें लक्ष वेधपाक कवी सोदता.

ताका सगळो संवसार उरफाटो तिरफाटो चलता अशें दिसता. मनश्यान
पावल दवल्लें तरी तो ह्या सैमाक जिखपाक पावंक ना. देखून तो सुनामी कत्रिन
सैमिक संकश्टां आडावंक शकूंक ना. मनशान आपल्यो मर्यादा वळखून
पावल घालपाक जाय अशें आदित्यबाबाली कविता सुचयता. आज मनश
सुंदर जातलें, सत्य आनी शिवाची आराधना करपाक जाय अशें कवीक
दिसता. मनीस सुदारतलो जालो जाल्यार ताणे आपली नदर भितर्यां भोवंडाव
सारकी वळख पाळख करुन घेवंक जाय अशी कविची धारणा आसा. भारती
चिंतनाचो धागो ही कविता मुखार व्हरचेलो यत्न करता.

मनीस आनी ताचें मन ह्या दोन बिंदू भोवतणी ह्यो कविता धुंवता
कवितेचें एकामेकां कडेन नातें आसा. ताका लागून त्यो एकोड्यो वाचचे पर
वाचल्यार ताचो आस्वाद घेवापक चड बरें जातलें. कांय कडेन मात हे कवितां
सया मारता. कवितेच्या आशयाक लागून जायत.

चिंतन करुंक लावपी अश्यो ह्यो कविता कोंकणी कवितेच्या मळा
थारच्यो आशें मागतां.

७ नोव्हेंबर २०११ माधव
ग्रीनपिस हाऊ. सोसायटी
नागाळी ताळगांव गोंय

# 'दोन गुढ उतरां'

'गोंयचो परमळ' हो कविता झेलो १९९३ उजवाडा येवन खुब वर्सां जालीं. त्या मदल्या काळान साडेतिनशें कविता बरोवन जाल्यो, पुण तांतुतल्यो फकत वैचारिक कविता एकठांय करुन 'गुढ मती' हो कविता संग्रह तुमच्या मुखार दवरतां.

मती म्हळ्यार मत, आनी मन म्हळ्यारुय मत, म्हज्या मतान मन आनी बुध्दी हांचो संगम. बुध्दीच्या नेटार मनान केल्लो विचार . जशी बुध्दी एकाच मनश्यांन खूब तरेच्यो आसूं शकतात, तशींच अदीक मनांय एकाच मनश्यान आसूं शकतात. आनी एक गुपीत म्हाका दिसता, तें म्हळ्यार बुध्दी, मन आनी शरीर चलवपी खूब आत्मेंय आसत. एक पेशी आसपी अमीबान वो किटाणून एक आत्मो आसत, जाल्यार खूब पेशींनी जाल्या प्राण्यांक चड आत्मे किद्या नासचे?

वेगवेगळ्या बुद्धीचो संगम वेगवेगळ्या मना वांगडा जातकर, तातूंतल्यान गुढ अशो कल्पना भायर सरतात, तांका आत्म्याचो आलासरो आसतलो. म्हज्याय मेंदुतल्या वेगवेगळ्या बुद्धीतल्यान आनी खुब मनान ह्यो कविता भायर आयल्यात. वाचणाऱ्यांक त्यो कश्यो रुचतल्यो, पटतल्यो सांगप कठीण. किद्याक दरएक मनस्याची बुध्दी आनी मन आनी तांका नेट दिवपी आत्मो बाकींच्यापरस तरेकवार आसूं येत. आनी त्यो आसपाकूच जाय. कोणांच्या विचारांवचल्यान त्यो वचूं शकतात. तेन्ना म्हज्या मतांवांगडा तुमी एक आसचेंच अशें ना. तुमीय तुमच्या ताकदीन हाजेर विचार करचो. मानवप वो ना मानवप हांव तुमचेर सोडटा. मात तुमचे मत म्हाका कळोंवक विसरचें न्हीं. तांतूत म्हज्या बुध्दीक आनी मनाक एक नवो मार्ग मेळूं शकता. निमाण्यो तीन कविता 'हायकू' ह्या नव्या पद्धतीन केल्या, बरोवपाचो यत्न केला. कमीतकमी शब्दान, वेगवेगळो विचार, जण एकल्याच्या विचारशक्ती परमाण जांवक येता. थोड्या वाचप्यांक त्यो भुरग्यान बरयल्याबशेनूय दिसूं येत. कोकणीं वाचणाऱ्यांक ही पद्धत नवी. एका वेगळ्या बुध्दीचो नवो प्रयोग. पुस्तक छापपाक लागतकर ह्यो तिन हायकू कविता हांवे बरोवंक सुरवात केल्या. भौमानेस्त श्री. वेणीमाधवबाबाकूय प्रस्तावना बरयतना ह्यो कविता धांडूक मेळूक नाशिल्यो, त्याखातीर हांव तांची माफी मागता. मोसाओका

शिको हांणी १९ शतकाच्या शेवटाक ह्यो कविता बेरोंक सुरुवात केली.
ह्या कवितांची ओळख म्हजो इस्ट डॉ. अशोक लोंढे, नावाजलेले आयुर्वेदाचा
तांणी नव्हेंबर २०११ न केली. तांचो हांव ऋणी आसा.

गोंयचो एक प्रतिभावंत कवी आनी म्हजो खाशेलो इस्ट श्री.
बोरकार, हांका ह्या कविता संग्रहा खातीर, प्रस्तावना बरौक भरीक घालो.
तांका खुब वैचारीक परीश्रम पडलें, हें त्या "चिंतन कविता" हातून कळून येत
शास्त्रज्ञांचे, मानसिक तज्ञांचें, संताचें आनी श्रेश्ट पाश्चिमात्य कवींचे दाखले दिं
ही प्रस्तावना खुबुच वैचारिक पातळीर व्हरुन आपल्या उच्च बुध्दी आनी मना
आत्म्याची श्रेश्टता परगटायल्या. हांव उमेद दवरता, फुडलो तांचो कविता संग्र
वैचारिक कवितांचो आसचो. आनी हि प्रस्तावना बरोंवपाक त्रास घेतल्याखा
तांचो सदांच ऋणी आसतलो.

तशेंच निमाणे उपकार मागता श्री. अनंत मुणगेकर प्रकाशक हांचे, ता
तांच्या छापखान्यातले मुद्रांकन करपी श्रीमती ज्योत्स्ना कीर हांचे मनातल्यान
मानता आनी म्हजी दोन उतरा सोपयंता.

कामत बिल्डींग
४८१, वीर सावरकर मार्ग,
प्रभादेवी, मुंबई - ४०० ०२५.
मोबायल : ९८१९२१३५८९

आदित्य
१५.१२.२०१

# द्विमन - I

दोन मनां सगळ्यांचीं
खिणांत हय तर खिणांत न्हय
चलबिचल त्या मनांची
आता हांगा मागीर खंय?

काळीज आमचें एक
मनां दोन कशीं?
तकलेंत विचार कितलेच
काळजा पिडा दिता कशीं?

मनांत वायट विचार
तोंडार मात हांसता
पळोवपाक सभ्य आचर
फाटल्यान कपट रचता

अशे लोक पिशे काय !
काय दुसऱ्याक पिशें लायतात
कपटकारस्थाना मनांत काय
दुसऱ्यांच्या काळजाक कश्ट दितात

मन ताजें हांसता
दुसरे खेपेक रडटा
एक मायेस्त दिसता
दुसरें क्रुर वागता

मानसशास्त्रान सोद लायला
मनश्याक उदरगतीक हाडला
यत्न ताजो समतोलाचो
आनी जिवन सुदारपाचो

# द्विमन - II

मन आनी दुसरें मन
मनश्याच्या आसता कुडीन
खंयतरी रावता लिपून
येता उफाळून उडून

मनस्याक एकूच मन
म्हाका केन्नाच पटलेंना
म्हण्टात कावळ्याक एक दोळो
हांवें मात मानलेंना

एकाच बशेन दिसपी
दुसरो मनीस आसता
मनाभशेन दुसरे मन
जणएकल्यान नक्की आसता

मन काळजान वो तकलेन
आयजमेरेन म्हाका कळूना
म्हजीच मना म्हाका कळपान
वर्सां वचूनय गोमलेंना

मनाची दोनूच रुपां
वो खुब रुपां आसतूय
म्हज्या मनाची दोन रुपां
थंड आनी तापदूय

एक मन अमूक करता
दुसरें भलतेंच ठरयता
झगडपान घुसपागोंदोळ जाता
निमाणें ठरवपाचेंच उरता

एका मनाक तरणे आवडटात
दुसऱ्या मनाक जाण्टेंय
मनान मनान फरक कसो
मनांभितर हांव फसलों कसो?

# बुध्दी काय अबुध्दी

मनश्याच्या बुध्दीची
खोली मोजूक येना
ताजी लांबाय रुंदाय
कशीच तपासूंक येना

एकवेळ दर्याची
खर कांडू येत
मनश्याच्या बुध्दीची
शीम कशी मेजूं येत?

मेंदवाचे खांचीखळगे
हिमालयाच्या दोंगरदरी बशेन
मेन्दु लोण्याबशेन
तर निर्णय लेखणाबशेन

क्रुर प्राण्याची
बुध्दी मापू येत
मनश्याच्या बुध्दीची
क्रुरता मापू येत ?

मनश्याच्या बुध्दीन
सैमाचेर मात केल्या
ताज्याच नाश्यान
मनश्याची बुध्दी अबुद्ध जाल्या.

# वस्तुस्थिती

सत्य, परोपकार, निस्वार्थ
आयज हांका कांयच अर्थ ना
असत्य, दुडू आनी सुवार्थ
हाजे बगर किद्याकूच मोल ना

घर जावं, गांव जावं
श्रीमंती बगर किंमत ना
गरजो भागयल्यो ना जाल्यार
तोंडार नदर लेगीत घालचे नात

हिताचे उपदेश करत जाल्यार
चार मनीस जमपाक नात
धन कशें पुजावपाचें सांगल्यार
शेंकड्यांनी तुका सोडपाक नात

आयज ज्योतिष्या दारांत
मनश्यांची लागता हजेरी
तत्व-गिन्याच्या दारांत
रिकाम्या कदेलां वळेरी

सगळेच धांव धांव धांवतात
दुडवा भांगरा फाटल्यान
एकाद्रो पिसो उरफाटोच धांवता
सत्य, कामा फाटल्यान

दुडवान जग व्यापला
अशें हेर लोक म्हणटात
सत्य काम विश्वाक व्यापता
अशें गिन्यानी म्हणटात

पूण हें मनपाचेर आसा
मनाचो खेळ आसा
दुर्जन सुखान विलीन जातात
सुजन दुख्खान कुढत मरतात

# गुढमती

मानवाच्या मेंदूचे गुढ
इतर गुढांपरस खोल
जाची लांबीरुंदी अजोड
व्यास पृथ्वीपरस गोल

भितर सरोप म्हळ्यार
काळखा कुडीन शिरोप
वैचारिक मुभा दिल्यार
सोदत हुबेत रावोप

कितलेशेंच दरीदोंगोर
मनाचो, विचारांचो चढउतार
विजेचे धवके झेलत
विचार सातासमुद्रा पार

बऱ्यावायटाची सांगड घालपी
आनी उंचनीच विचारांची
प्रित मत्सरान जळत रावपी
बुध्द निर्बुध्दांक दिवपाची

इतर प्राण्यांचो मेंदू
सरळ साध्या विचारांचो
भूक लागल्यार खावपाचो
राग मत्सरान मारपाचो

घुसागोंदळान घुस्पलेलो
मनश्यांचो मेंदू अजब
इतर प्राण्यांचो तसो आसता
जाल्यार जातलो आसलो गजब

# सर्त

दुसऱ्यांपरस वैर सरपाक
मानवाक खोस किदया भोगता?
वयर सरतल्यांक सकल वडंवक
चड आनंद किदया जाता?

मनीस म्हळ्यार सर्त
स्वभावान ताज्या धडपड
सुसेगात बसपाक येना
दुसऱ्यांकूय बसूंक दिना

पशूंक सकल वडवन जाले
आता बाकी मानवांक वडयता
तरी समाधान ना जाले
म्हण अनंराळमानवा लागी झुंजता

ताजी दोन मना आशिल्यान
आपल्या लागी झगडत आसता
मन मनाक सकल वडयता
सर्त ताजी चालू आसता

हेर जीव सुखी आसतना
होच फक्त धडपडत आसता
देवान अधीकार दिल्या आसतना
आदिकाच्या फाटल्यान किदया आसता?

# ब्रह्मांड

जे दिसा

अब्जदिसां पयली

गुरुत्वाकर्शणान घोळ

म्हण्टात स्फोट जालो

ग्रहार ग्रह आपटून

ह्या ब्रह्मांडांत

बारीक बारीक

सुक्ष्म अणुरेणू

एकाक एक घाशींत

धुल्लाचें साम्राज्य

तांतुत उज्यालाटी

तरेकवार रसायना

वेगवेगळे वायू

मर्दिंच उदकालोट

अद्वितीय उजवाड

मोठी पोकळी

ताज्याभायर प्रचंडदाब

आनी चुंबकत्व

मर्दिंच काळोख

गतीमय वारो

घर्शनान स्फोट

कडकडावन पावस

भयानक थंडाय

बर्फाचे अस्तर

थोडे बर्फागुळे

थोडे मातयेगुळे

एकमेकांर आपटुन

परते घुल्लागुळे

प्रचंड ध्वनी

मोटया गुळ्याचे

तुटून तरेकवार

ल्हान उज्या गुळे

एकमेकासून सहस्त्रमैल

अचकित लागीं

घांसून भस्म

आनी घुल्ल

नवें तपमान

नवो दाब

नवी रसायनां

नवो वायुवारो

अवचित पावस

अवचित थंडाय

अवचित गरमी

प्रगट्टा उजवाड

तरेकवार इंद्रधनुष्य

अकस्मात उत्पत्ती

सुक्ष्म जीव, वनस्पती

राक्षसी प्राणी, झांडा

ल्हानव्हड नुस्ती, पक्षी
चराचरान तरेकवार
एकसारखे दिसपी
मात ल्हानव्हड
समानता विषमता
तरेकवार रंगरुपाचे
सैम जन्मलें
एक दुसऱ्यासुन न्हय
टट्टु, गाढव, घोडो, झेब्रा
माकड, चिंपांझी, गोरिला, मनीस
कोंबडी, टर्की, शहामृग
खजुरी, ताड, माड
पळस, पिंपळ, वड
गांयडोळ, सोरोप, हार
गोल्ड फिश, तामसो, देवमासो
सैमातले कितले प्रकार
निर्मिती एकाचवेळार
विश्वय एकाचवेळार
कोण कोणासून जन्मुना
कालांतरान उद्रेकान, भुकंपान, दुष्काळान
अवाढव्य राकससी डायनासोर, वृक्ष
नष्ट जाले
दुसऱ्या ग्रहार
आसुय शकता
आमच्या पृथ्वीवरी

असंख्य ग्रह
विश्वान आसतलेच
कांय नष्ट
जाता आसतलेच
उलथापालथ
परिवर्तन, फरक
विश्वाचो नियम
आयज आसा
कालांतरान नाजातले
परते उत्पन्न
वेळ काळ वेग
गुरुत्वाकर्शण
चुंबकत्व
विश्वचक्र चलतरावतलें
परत धुल्ल
परत उजो
परत पावस
परत रसायना
परत बर्फ
परत वायु
परत पोकळी
परत प्रचंडदाब
परत स्फोट
परत उत्पत्ती
अनंतविश्व
ब्रम्हांड

# प्रारब्ध

आवयच्या गर्भात जन्मलो
पूण ज्ञानी नाशिल्लो
आकारान जगात आयलो
पूण गिन्यानी नाशिल्लो

धडपडत आंगापांगान वाडलो
आवयबापायल्या संस्कारांत
खांचीखळग्यातल्यान वयर सल्लो
सकल ओडपी जगांत

स्वकर्तुत्वान जिखपाक सल्लो
निश्चयान तेंगशेक पावंक
आयुष्यभर ख्यास्त्यो खाल्यो
नांव अजरामर करुंक

एकदिस मरणाक पावलो
नी अकस्मात ज्ञानी जालो
जीव कुडींतल्यान भायर पडपाक
तुका प्रारब्ध ना सांगून गेलो.

## सोद

अनंतकाळाचो सोद
मनीस घेत आसता
तसोच भविष्यवेध
आमच्या मतीन घुंवता

भोग ताज्या जिणेंचो
जीणभर धडपडप
शुन्यातल्यान सोदपाचो
एक पिसो खटाटोप

निर्मिल्या शक्तीमुखार
तो गिडडो दिसता
ताजो सोद घेवपान
आनीकूच उणो दिसता

## आत्मशक्ती

कोणे एकान म्हळा
आत्मा एक शक्ती
जी आर्युमरण दिता
तिजेर करात भक्ती

म्हजे मन म्हण्टा
आत्मा एक शक्ती
जी आर्युमरण दिता
येवजयात तुमी युक्ती

विचाराक लायात कामाक
लक्ष केन्द्रीत करात
आत्मो गावलो जाल्यार
मर्म सोदित रावात

# आत्म्या गुपीत

आत्म्या रहस्य नी गुपीत
कशें उकतें जांवक ना?
तांवुलें ल्हान मोटे धागेदोरे
कोणेंच कशें विणूक ना?

आत्मा बीजान, वो नसात
खंयच्यान येता, खंय वता
जीव येता, जीव सोंपता
ताजो वेळ, काळ खबर नास्ता

आकार केदो, आवाढ केदो
विज्ञानूय सांगू शकना
आयजमेरेन त्रीखंडात व्यापला
आनी देहान आसुनूय कळूना

तो कोणे केन्ना निर्मिलो
वो आपसूक अवतरलो ?
कुसकुटा इतली खबर ना
मनाक सदांच पिडींत रावलो

अद्‌भुत, अदृश्य, शक्ती
महात्मा नी पशू मात जाणता
देवार कितलीय आसूनी भक्ती
ब्रह्माण्डात एकरुप जाल्यारच कळता

बुध्द रानांत बसतालो, वावूरतालो
पशूनीं ताका खालो ना
तेजोवलयान तो तळपतालो
जिवाक धोको जालो ना

महात्म्याक उमगता पूण सांगू येना
अदृश्याची मापा किदें सांगतलो
अंतर्मनान तें जाणचें पडटा
सर्वसामान्यांक कशें समजायतलो?

काय तांकाय आयजमेरेन कव
खरे फट कोणाकूच सांगपाक

## पंचमहाभुतात्मा

उदक, प्रकाश, वायु, अग्नी नी माती
मेळून पंचतत्वा निर्मिता
परतून विचार येता म्हज्या मती
हांकाच काय आमी जिवन अर्पीता

पंचतत्वांच्या मिलनानूच काय
संसारान पेरला आत्मा
जिणेमरणाचो पूल बांदला का
होच आसूये परमात्मा

म्हण्टात, देवात्मो आसा अणूरेणूंन
अस्तित्व ताजें सगळ्या वटेंत
सृश्टीच म्हळ्यार पंचमहाभुता
आत्मोय विंघुल्ला सगळे वाटेंत

# असंख्यांच्या जिवार एकलो नाचता

मुम्बय १६.५.०७

कष्ट कशे काडचें
जाल्यार मुयेभशेन
काम करीत रावचें
आज्ञाधारी गुलामाभशेन

धडपडत रावचें
सेवाभावी मनान
बिळांत धान्य पुंजावचें
वर्सान - पुरुमेतान

जें साठोंवचें तें
न्ही स्वतःखातीर
पोटोभरीचें तें
राणीमुये खातीर

वाट बंद जाली
जाल्यार दुसरी सोदची
बिळां नश्ट केली
जाल्यार नवी बांदची

जीव एदोसो
उमेद दोंगराएदी
मेंदु ल्हानसो
हुशारी मानवाएदी

फुडल्यो मुयो मेल्यो
म्हण, फाटल्यो भिनात
वयल्यान चिकाटीन
फुडें वचत रावतात

तांका पळेतकर
शिपायांची याद जाता
राणीमुय मात
कांपीतावाबशेन ओंद दिता

जसे तळागाळाचे सेवक
मर मर काम करतात
जाल्यार तांचे नेते
मेवो खात रावतात

जगाचो न्यायूच काय?
शेतकामती पिडत उरता
आनी धनी
धन पुजांयत रावता

एकट्याच्या तालार
असंख्य नाचतात
ओंद दिता एक
बाकी फाटल्यान धांवतात

एकलोच मनीस पुरो
अनेकांक कामाक लावपाक
एकल्याचीच बुध्दी
मार्ग दाखयता अबुध्दीक

संसारात हेंच चल्ला
बुध्दवंतांचे फावत चल्ला
असंख्य लोक खपत रावतात
तांच्या जिवार संसार चलयतात

एक गिरणमालक
असंख्य कामगार पोंसता
कामगार चाका सकल पिसता
मालक धन पेलता

एका बुवा फाटल्यात
अनेक भक्तगण लागतात
सगळेच घालतात लोटांगण
कापसागादयेर बुवा मजा लुटता

संसाराचो होच नेम चल्ला
एकट्यान अनेकांक राबयला
संसाराची गाडी चलवपी एक
ताजे बुध्दीर जगपी अनेक

# परिणाम

मनीस जाला अशांत
संयम लुप्त आला
खिणयाळ्या उन्मादाच्या भरांत
सामंजस्य खराब जाला

संत-मुनी सांगून गेल्यात
मनार लगाम घालात
मना चंचल जाल्यात
उद्रेकार ताबो दवरात

रागाक कारण लागना
हांसता म्हणसर तापता
विक्षीप्त विचित्र वागण्याचो
हेरांक मनस्ताप जाता

कारण वातावरणाचो परिणाम
धांवपळ दडपणाचो परिणाम
वायट दुडवाचो परिणाम
सगळो अहंकाराचो परिणाम

# नराधम

मुम्बय - १४.

नर-अधम नराधम
घडोवन हाडटा अधर्म
निष्पाप भुरग्यांचेर जुलूम
नरान केला बुरशें कर्म

रानवट लोकांखातीर
देवदुतान धर्म हाडलो
विकृत जीण सुदारपाखातीर
मनशान मनश्याक घडयलो

मनीस कसोच सुदाल्लोना
पशुंक फाटल्यान वडयलो
देवासमान म्हण्टासर
क्रूर-दुराचारी जांवन पडलो

असली कृत्यां असंस्कृतीन
काय येता अनुवांशिकतेन
कसली पीडा लोकांन
काय परिणाम उच्चसुधारणेन?

# चिरंतर

जन्ममरण निश्चीत आसता
त्रैलोकाचो अधिकार नासता
जन्ममरण देहाचें आसता
अमर फक्त आत्मो आसता

प्राण भरुन जन्मता
प्राण उडून सोंपता
प्राण त्रीभुवनी आसता
कोणाच्याच ताब्यांत नासता

हांव जन्म दितलो
म्हण जन्म दिना
हांव मरण दितलो
म्हण कोण सोंपना

जन्ममरणाचो स्वामी आत्मो
तो अनंत आसा
प्राण दिवपीय आत्मो
सोडपीय तोच आसा

जन्ममरणाची चिंता किद्याक?
जे घडपाचें घडत रावतलें
फुडल्या दिसाचो हुस्को किद्याक?
हें जाणपी सुखी रावतले

# विचार

विचारांचो काथो इतलो
उंच आकाशा जितलो
मारता झोंपय नव्यो
जश्यो गरुडा घुवण्यो

मन विचारां सुधिन
नास्ता मनस्या स्वाधिन
कितलोय मेळयलो ताबो
रावना गिन्याना मतिन

उच्च नीच विचार
जसे तशे संस्कार
जशें बी पेरला धर्तरीर
तशें फुलतले झाडार

कोणा एका विचार
दुसऱ्या कोणा शुन्य
त्रस्त उध्वस्त संसार
मन करी जीण खिन्न

खिणांत बरो विचार
दुसऱ्याच खिणांत वायट
योग ध्यानान विचार
तरी घडटा विचित्रवायट

वायट विचार जरी आयले
बरे विचारान मात करात
बरे वायट विचार येतले
वायट विचारार संयम दवरात

कलीयुगांत दुष्ट विचारां भर
दुष्ट कृतींक फाटल्यान वडयात
बऱ्या कृतीविचारांची सरासर
करात जिवनाच्या पाटांगणात

# भक्तीचें सामर्थ्य

मुर्ती फातरातल्यान घडटा तशी
देवळाच्या मुर्तीर भक्ती कशी?
जगात फातराची असंख्य जात
देवाच्या मुर्तीन शक्ती कशी?

मंदिराच्या फातराची फकाणा केल्यार
देव रागार जाता, कोप पावता
रस्त्यावेल्या फातराक खोंट माल्यार
आनी वेल्यान चल्यारुय जाता

फातर सगळे निमाणे एकूच
देवळातलो आसूं वो रस्त्यावेलो
मनश्यांची जात निमाणी एकूच
पुरातन आसूं वो नव्यायुगातलो

देवरुपी फातराकूच पुजतात
अशे किद्या हो प्रश्न आसा
आमच्या श्रध्देची शक्तीच
मुर्तीन तर सांठून आसा

कोटीनी भक्त अंतरमनान भजतात
भक्तांची एकठांयता फातरान भक्ती
प्रचंड उत्कट भावना समर्पीतात
मूर्तितल्यान परती मेळटा शक्ती

# चंद्रा सोद

मुम्बय - [illegible]

चंद्राच्या सोदाक धाडला
कालच चंद्रयान खंय
वर्सानवर्सा रुशीनी बरयला
दोळ्यांच्या दुर्बीनीन खंय

कवींनी काव्य रचून
कल्पनेन सोदला चंद्रमा
रेखायला चित्र चित्रकल्पीन
भायल्यान भीतर अंतरात्मो

बरवप्यानीं बरेंच बरयलां
तपासला सगळे तरेन
मुनींनी गणीत बांदला
अंतर व्यास सगळे वटेन

हजारांनी वर्सा पयलीं
चंद्राचें केलां भाकीत
सोद, ज्ञान घेंवनूय
चंद्र उल्ला शापीत

कोटट्यानीं दुडू वगडावन
भुकेल्यांचें पोट भरना
ज्ञानान ज्ञान वाडोवनूय
मानव तृप्त जायना

# शक्तीमान कोण?

मुम्बय - १४.११.०८

गीता सांगता नारायणा भज
कृष्णा भज, विठ्ठला, व्यंकटेशा भज
सर्वश्रेश्ट, सर्वजगी, सर्वव्यापी
शंकर, ब्रह्मा, इंद्र इतर देवरुपी

तो सृश्टी-प्राणी चराचराची नाडी धरी
उदक, उजो, उजवाड, वायु, आनी माती करी
सगळे सोडून विठ्ठला नारायणा भज
कपडे, भांगरवस्ती, अश्वर्य, संभोग त्यज

आदि सांगता अमर आत्म्याक भज
अदृश्य, सर्वव्यापी, सर्वजगी शक्तीक भज
कृष्णा, विठ्ठला, नारायणा देव जालो
मनश्याबशेन दिसणारो अमर जालो

अदृश्य आत्मा कोणाकूच समजूना, दिसूना
ताका सोदपाचो यत्न केल्यार कळना
तत्वमिन्यानी, रुशी मुनींक तो दिसूना
सगळो ब्रह्मांड व्यापून तो उमगूना

त्यागपाची, संसार सोडपाची गरज ना
आत्मान दिल्या जिणेंक त्यागू जायना
शक्ती सोडल्यार, सैम मर्यादित आसा
बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, भागून जगपाचें आसा

# रचनाकार

विश्वकर्त्याची अपूरबाय
करची तितली थोडी
कल्पने भायलो हो संसार
ताजी तुस्त खुब मोठी

पृथ्वी भोंवतीच तूं वावरता
वो बाकी ग्रह वसयता?
अशी जर तुजी किमया
तुका जाणपाची इत्सा दवरुया

रंगरुप तुजें मनश्याबशेन
काय तू अदृश्य शक्ती
तुजें कार्य कल्पनेभायलें
करुया तुजेर अपार भक्ती

# सावचीत

सावचीत जाण
ज्या मनश्यान आसता
भितल्या शक्तीची
जाग ताका आसता

सुक्ष्म ल्हारां
मशतीका भायर सरतात
श्रेश्ट ग्यानी
दुसऱ्यांच्यो लहरी जाणतात

तत्व, गिन्यान
त्रीभुवनाचो वेध घेतात
आत्म चिंतनान
जण एकल्याचें मर्म जाणतात

# अनाकलनीय

जिवदाव्याचें अचर्य खरें
त्रीखंड तिजे मर्जिचेर
तिनूयलोक सांबाळटा बरें
गर्व ना अनंतरुपाचेर

आसता तिजी नदर
बारीक सारीक गजालींचेर
कशी दवरता पकड
खिणा खिणांचे घटनेचेर

मनीस दवरता नियंत्रण
पृथ्वीर भरील्या जिवांचेर
ती शक्ती दवरता
नियंत्रण ब्रह्मांडांतले जिणेचेर

तिजे दोळे सगळ्यांचेर
सुक्ष्मजिव ते अजस्त्रांचेर
ग्रहताऱ्यांची कुंडली बसयता
विघ्नाय हाडटा अनेकांचेर

सत्ययुग ते कलीयुग
काळ फिरयला बोटांचेर
मंगल ते अमंगल
घडयता आपल्या इत्स्येचेर

सगळें सहज घड्टना
तिजें अस्थित्व अनिश्चितिचेर
तिजो सोद घेतना
सगळें निमाणें शुन्याचेर

# देवाक तूंच सोद

खंय खंय सोदता तू देवाक?
सगळे वटेन तुजें पळोवन जालें !
हजारांनी वर्सा सोदना खंय तू?
आनी त्रीखंडाक उलटेसुलटे करुन जालें !

आयकून जाणा तो सगळेवटेन आस
तुका तुज्या दोळ्यांनी पळोंवक जाय
पिश्या तो तुज्याच भितर आसा
तरी तुका तो हातापायांचो जाय?

देव तुज्याबशेन दिसपी आसल्यार
तुकाच देव किद्याक म्हणप ना ?
तूं देवाचो अंश हें सत्य आसल्यार
तुकाच जिवदातो किद्या म्हणप ना ?

तुजी नदर तुजे सगळेवटेन फिरता
पूण अंर्तयामी जांवन केन्नाच पळेना
तो भितरुच आत्म्यारुपान वावरता
तुज्या भितर सोदपाक तुका अिस्सान

देवाक सोदपाक वेळ वगडावंक नाका
तुज्यानूच लिपला ताका सोदून काड
ज्यादिसा तुका खरें ज्ञान गावतलें
देवाभशेन वागपाची बुद्द सोदून काड

# प्राक्तन

नशिब जाका ना
कर्तृत्व आसून शून्य
तें जाच्या वाट्या
इतर गोश्टी न्युन

नशिबाचे गोडवे गातात
तांचे चुक किदें?
नशिबार कर्तृत्वाची जोड
जाल्यार वायट किदें ?

लोक हुशार नासतात
तांका दैव तारता
नशिब वाट्या नाशिल्लो
कर्तबगार फांटी उरता

अशेंच कांय ना
हुशारीन जग जिखलां
प्रारब्धान जें थारायलां
बोनापार्टूय झूंज हरला

जाच्या नशिबान जें
तें ताज्या पदरान पडटा
प्राक्तन ना ताणीं
हांसत फुडें सरचेंच पडटा

# अणभव

आयुश्यान आयिल्लो अणभव
खुब शिकवण दिता
नेण्टे ते जाण्टेपण
पावलापावलाक ज्ञान दिता

सैमान्यूच गिन्यान भल्ला
पारखपाचे दोळे जाय
जगभर विग्यान विखुल्ला
वापरपाक बुध्दी जाय

संसार ही शाळा
मनीस तांतूतलो शिकपी
हुशार तेंगशेर पावता
नशिकपी जीणभर रडपी

आयुष्यभर धक्के खांवन
जो शिकना तो मुर्ख
सदांच चुको करुन
वयरसरीना तो शतमुर्ख

# स्वप्ना

आदि काळच्या मानवाक
स्वप्ना पडटालीं काय?
चिंता नी विचार करपाक
ताणे सुरुवात केल्ली काय ?

जनावरांक स्वप्ना पडटात वो ना
हाजेर आयज नवकी मत ना
न्हिदान ती रडटात, ओकेतात
ती स्वप्ना, हें सांगू शकना

पयलो मनीस स्वप्नाक भितालो
वायट पडल्यार देवा कोप म्हण्टालो
बरी पडल्यार खुश जातालो
तो एक आशिर्वाद म्हण्टालो

नएवजलेली गोष्ट दिस्ता
ताजो संबंध पैली आसता
हांलीच पळयलो अपघात
ताच्या पयली वो मागीर दिस्ता

स्वप्नान न भोगलेलेय भोगता
कंगाल घटकेचो राजा जाता
दुडवकार भिकाऱ्याले दिस पळेता
आनी किळांच मारुन जागो जाता

कुरुप बायले वांगडा लग्न जाल्लो
स्वप्नान सुंदरेकडेन लगट करता
तरण्याबांड सुंदर मनस्याक
काळी राकसशीण वेंगेंत घेता

मेंदून चलिल्या विचारा घोळ
चलचित्राबशेन दोळ्यांत सरकतात
मेंदूची अदभुतकाय, घुस्पागोंदोळ
कम्प्युटराकूय फांटी घालतात

मेंदूचे खरे गिन्यान जांवना
ताच्या घांचखळग्याचे निदान ज
शास्त्रज्ञ, मानसशास्त्रज्ञ विचार
मेंदू स्वपनाचें समीकरण बांदता

## कुड्डोन्याय

दोळे बांदिल्ली न्यायदेवता
आनी देवांत फरक ना
जाच्या वाट्याक जें येता
ताका तें चुकूंक ना

मनीस इल्लोसो कर्मयोगी
बाकी व्हडले प्राणीमात्र
देवा सारखो अखंडयोगी
बाकी सगळे काडीमात्र

एकट्याक अन्न आनी दुसऱ्याक भूक
एकट्याक कष्ट आनी दुसऱ्याक सुख
संसाराचें चाक चलत रावता
जाच्या नशिबांत जे ताका मेळत उरता

दुख्खा दोंगर सगळेवटेन
सुखा न्हंय थोडेवटेन
जाग्यार जाग्यार काळखा वाटो
थोड्योच वेळ तुपा पणटयो

# काळाची गरज

वायट शक्तीचें दालें
दिसपटटे वाडत चल्लां
बरी शक्ती मात
आयज निर्फळ उल्या

अशें किद्याक जाता?
ग्रहांचो दोश म्हणूया
बरें शक्तीची उणीव
काय काळाची किमया

गीतेचें म्हणणें आसा
कृष्ण जग सांबाळटा
ताजी बरी वायट शक्ती
काळानुरुप बदलत उरता

बऱ्या वायट शक्तीन
फरक तो किदें?
कृष्णाच्यो बाजू जाल्यान
दोनूय पूरक किदें?

अर्जुन, दुर्याधन, श्रीखंडी
तिनूय शक्ती जग चलयतात
काळाक मेळिल्ली संधी
तश्यो त्यो जगात वांवरतात

पुरुष, स्त्री, नपुसंक
संसारातल्यो मुळाव्यो शक्ती
हांचो गुणाकार, भागाकार, अदिक
हांतूत घडल्या ही धरती

# प्रभुत्व

सोद दिसरात चल्यात
विचार धांवत आसात
स्वस्थ बसपाक वेळना
मेंदू थामोंवन चलना

मेंढरीची डॉली जाता
जुळवो मनीसूय जावयेता
देवाचेर मात करपान
मनीस स्वताक शाणो समज

चंद्रार वचून खोशी ना
मार्स, प्लुटो कब्जान जाय
सि.टी., एमू.आर.आय जालो
मनश्याचें अदृश्य रुप जाय

जिवांचो उगम कळपाक जाय
देवापरस चड प्रभुत्व जाय
विश्वार हक्क दवरुन
अनंत काबीज करपाक जाय

जाय, जाय म्हण कितलें जाय?
किद्यानूच तो सुखी ना
फुडें फुडें म्हण कितलें वचप
हाकाय कांय अंत ना

म्हण्टात देवान मानव निर्मिल
सगळ्यांत विचित्र प्राणी घड
म्हण्टा, ताजेर मात करुया
देवाकूय गिळपाक पळोंयलो

# जिवात्म्याक मेकळो करात

फोणें - १७.१०.०७

जिवात्म्याक भायर सरुनी
अनंतांत भ्रमण करुनी
अणूरेणू घुसमट्टा आसत
परतो उल्हासीत जांवनी

शुन्यात ध्यान धरात
बंधना मात्शीं सदळ करात
अंतराळात फिरुन येयात
आत्म्याक स्वातंत्र्य दियात

वेळेबगर सोडचो ना
विट आयल्यारुय वच्चोना
अमर रावन दिसलें जरीं
तरी कुडीन कसोच रावचोना

मन सुवार्थी नाका
वायट कर्तुत्वां करुं नाकात
जिवात्मो समाधानी रावनीं
विट येसर दवरुं नाकात

# व्यंग

व्यंग मनाचें
व्यंग तनाचें
व्यंग विचारांचे
व्यंग त्रीभुवनाचें

व्यंग प्राणीमात्रान
व्यंग फळाफुलांझाडान
व्यंग न्हयो दर्या पर्वतान
व्यंग सृश्टी घडोवणाऱ्यान

व्यंग म्हळ्यार उणीव
व्यंग म्हळ्यार फरक
व्यंग म्हळ्यार विचित्र
व्यंग म्हळ्यार जिवीत

# कनीश्ट जात

मनीस जात एक
रक्तान, मांसान आनी काळजान
प्रकृतीन मात अनेक
सरळ, वांकडो, लापीट नी क्रूरमनान

मनीसूच किद्याक असो?
पशूपक्षान मात समानता
भाद-भाव जुवळो कसो
मनान मात असमानता

सगळ्या जीवांत मनीस वेगळो
स्वतःक  समजपी पशुश्रेश्ट
विश्व व्यापला कपटान सगळो
म्हज्या मतीन मात कनीश्ट

# प्रतिकूल

समाज उलथोपालथो जाला
ताका कारण आमीच
जगान अंडरवल्ड जाला
ताकाय कारण आमीच

चोर गुंड समाजकंटक
तांकाय उदक आमीच घालां
ल्हानश्या खोरजेचें आयज
जिवघोणो कान्क्र जाला

समाजसुधारपाचें सपन आमचें
वर्सानवर्सा सपनूच उल्ला
रामराज्य परत उबारपाचें
नाटक जांवन बसला

जणएकल्याक आपलेंच पडलां
दुडवाबगर दुसरें दिसना
बापायचो जीव घेवपाक
पुताक कांयच दिसना

सैम आयज जो उल्ला
ताजीय वाट लावपी आमीच
सर्वांग आमी ताजें सोल्ला
ती संपत्ती वगडावपी आमीच

## काळवेळ

काळवेळ सांगून येना
नाका तेन्ना येता
कोणाकूच काळोंवक दिना

वेळ बरी येवची म्हण
तू देवालागी मागता
वाट्याक येता फक्त व्रण

काळ न येंवक म्हण
शनीक साकडें घालता
कळचें पयलींच घालता घण

काळवेळ कोणाकूच चुकना
यंव यंव म्हणपी लेगीत
ताज्या वाटेर आडवे येनात

## जळता सगळेच

मसणभुंये भायर उबो
मडे जळताना पळेतालो
ताणें केल्या बरे वायटाचो
गोबोर आनी वायु हुबतालो

मनश्यालो आत्मा आनी शरीर
एकानएक आसा म्हणसर
ताणें केल्लें कर्म आनी कुकर्म
संसार दिता किंमत रितसर

उचनीच जांवन गेले
जिवित आसतना यादिन उल्ले
सगळे वतना सारखेच गेले
सज्जन, कर्मयोगी अनंत उल्ले

# हांव कोण?

हजारों वर्सां फाटसून
आयच्या दिसा मेरेन
मनश्यांक पडील्लो प्रश्न
विश्वात हांव कोण ?

प्रश्न आसा गहन
म्हजें म्हत्व किदें ?
त्रीखंड चलयता कोण ?
म्हजें काम किदें ?

पुर्वासून दुभाव मनांत
एक शक्ती आसा
रुशी ते विचारवंत
चित्र रंगयत आसा

इतली वर्सां सरुनय
प्रश्न तसोच उल्ला
ईश्वर जर आसा
तो खंय लिपला ?

मनीस म्हण्टा स्वगत
म्हज्या ताब्यांत विश्व
तिनूय खंडात हुकूमत
मागीर कोण विष्णुदेव ?

विश्व चलवपी सारथी
विश्वरथान जर दिसना
अर्जुन ताजो साथी
मागीर प्रजा कशी उमजना?

प्रजेक बामण दिसता
म्हजे वर्चस्व दिसता!
ईश्वराक सोदपा परस
ईश्वर म्हज्यानूच दिसता?

## असमाधानी

इस्से परमाण जिवन जाल्लें
जाल्यार कितलें बरें जाल्लें
तरी मनीस सुखी जातलो
हें सांगप कठीण आस्तले

जणएकल्याची इस्सा सफल जा
जाल्यार मनीस समान आस्तलो
जिवन समान भोगपाचें जाल्लें
जाल्यार फरक किदें आस्तलो?

सगळे कशें समान जिवन
मनीस निमाणें ताकाय वाजेतलो
खरें सांगपाचें म्हळ्यार जिवनात
मनीस सदांच असमाधानी रावतलो.

## उपाशीं

मनशाचें मन कितलें स्वार्थी
भरुन वोतता पूण दिस्ता कमी
जायना मात कशीच तृप्ती
आयुष्यभर जोडटा ते दिस्ता कमी

स्वार्थान तरणी वर्सां सोंपता
खरें सुखा वंचीत उरता
घरच्या मोगाक परकी जाता
निमाणें भोंगपाचे अर्दें रावता

हि कसली आयल्या धांवपळ
अहंकाराची वो वरचढपणाची
काळवेळ फिरता नी जाता पळापळ
निमाणें वेळ येता कमायल्लें वचपाची

# तुज्यांतूच ईश्वर

आत्मो, प्रारब्ध, शरीर
जेन्ना आसता सुंदर
तेन्ना तांच्या बेरजेन
मनीस जाता ईश्वर

आत्म्यान शक्ती परमात्म्याची
आसा प्रत्येकान असमान
देण आसा ईश्वराची
गुण ताजे तत्समान

प्रारब्ध काळ, वेळ ग्रहांचेर
ज्ञानी आसून असफल
कुकर्मी जाता कर्तुत्वान
अज्ञानी आसून सफल

शरीरान जो सुंदर
सगळ्यांचो जाता प्रिय
विकृत जाचें शरीर
हुशार आसून अप्रिय

आत्मो, प्रारब्ध, शरीर
जेन्ना उत्तम जुळतात
मनश्याच्या रुपान ईश्वर
सदैव नांवारुपाक येतात

# एका नाण्याच्यो दोन बाजू

कामाबगर दूडू जाय
कष्टाबगर आराम जाय
मनशा तूं कितलो बदलल्ला
असो कसो घडला

साधो निर्मळ मनाचो
सैमान निर्मिलो मानव
हजारांनी वर्सां फाटल्यान
आयज जाला दानव

इतर प्राण्या बशेनूच
निर्सगार मोग करपी
आयचो महाप्राणी म्हणपी
जाला सृष्टीची वाट लावपी

आयज ताजे धेय्य
कशेंय दुडू कमावपाचें
घेता सगळें श्रेय्य
जगाक साप फटोंवपाचें

ईश्वरा फाटोफाट तूं
पूण, राकेस जाला
सैमाचो रक्षणकर्ता तूं
आयज कर्दनकाळ जाला

हाजो विचार केल्यार
दोनूय वटेन फरक
एकाभशेन दुसरी
समस्तानी घेंवची देख

# हांव, म्हजें, म्हाका

हांव, म्हजें, म्हाका
म्हणपी चड आसात
गीतेंत अहम म्हळां
ताजी शिकवण आसत

लोकांक अर्थ कळूना
वो फायद्याचेंच घेतात
धर्मान सांगिल्ली तत्वां
आयज विसरुन आसात

परमेश्वर फक्त अहम
बाकी सगळे सेवक
मनश्यान करप कर्म
सर्वस्व अर्पप ईश्वराक

जगातलें सगळें म्हजें
उल्यार मागीर दुसऱ्यांचें
आयकात फकत म्हजें
अितरांचे बरें लुकसानाचें

पयलो मान म्हाका
योग्यता आसू नांसू
दुडवांची रास म्हाका
कश्ट काडू वो नांसू

मनश्या बशेन प्राणी
ह्या भुतलार ना
'हांव' सोडून कोणी
ताज्या वयर ना

# काळ आनी वेळ

खुबदा जाणप जाता
वायट शक्ती घुटमळतात
बऱ्यो शक्ती आसुनय
तांका धावडावंक शकनात

नेट कितलोय लायलो
तरी कार्य मार्गाक लागना
देवाक सांकडें जरी घालें
हरकरणी जावची थामना

यत्न करीत रावप
फळाची वाट पळोवप
वायट काळ आस्ता
बऱ्याची वाट पळोवप

काळवेळाचो नेम ना
जणएकल्यांत फरक आसता
कळून मात केन्नाच येना
अकस्मात गोमटेर बसता

सत्य सांगपाचें म्हळ्यार
प्रतिकार होच ताजेर उपाय
भिवन पळत रावल्यार
मनश्याची किंमत जाता सवाय

# मनाची निर्मळता

न्हावन देवा पांया पडचें
हाजी व्हड गरज ना
कुडीतल्या आत्म्याक पुजचें
मागीर कोप जांवपाक ना

आत्मो ईश्वराचोच एक अंश
तो सदांच निर्मळ आसता
तुमी न्हायात वो नाका
तो सदांच स्वच्छ आसता

गरीब बरेच दिस न्हायना
आदिवासीय न्हाताच अशें ना
तरी देव मोग करता
तो गरीब गिरेस्त जाता

न्हावन धुवन कुकर्म केलें
जाल्यार आत्म्यान किदें मेळयलें?
जाय ती भितल्ली निर्मळता
देवरुपी आत्म्याची स्वच्छता

# घडवपी नी वगडावपी

माती मळून शिल्पकार
मुर्तीक दिता आकार
दिसरात काम करुन
करता शिल्प साकार

माती मस्तावन कुमार
मातेक दिता आदार
वोतान घाम गाळून
चिखलाक दिता आकार

माता वाडयता बीजांकुर
नवम्हयने रावन गुरवार
रातदिस ख्यास्त खांवन
पुरश्याक दिता अधिकार

कणकण रचून ईश्वर
विश्वाक दिता गोलाकार
मनीस विध्वंस करुन
प्रकृतीचो करता संहार

# देवाअंश

हाडां-मांसा मदीं हांव
ना कोणाचो भंय
दिवो घेंवन सोदल्यारूय
ना दिसचोना खंय

हांव अमर आसा
म्हाका सोपवंक शकना
देवाचो अंश आसा
वेगळो करुंक जमना

सुक्ष्म आसूनय हांव
त्रीभुवन व्यापूं शकता
वाऱ्या परस ल्हव
खडग् मोडूं शकता

ना म्हाका रंग रुप
आसा म्हज्यान शक्ती
देवा उपरांत म्हाका जप
करात म्हजेर भक्ती

# भुलवणें

मुम्बय ८

कर्म निश्चित ना
मर्म कोणाक कळना
बरें केल्यार वायट
वायट केल्यार बरेंना

गुपीत उकतें जावचेंना
सोदल्यारुय मेळपा ना
नशिबान किदें वाडलां
मेंदू घासल्यारुय कळपाकना

दिस्ता तशें ना
दोळ्यांक दिश्टी पडना
माया सगळेवटेन
पटोवन दिल्यारुय पटपाकना

देव आसा देव ना
मानता तशेंय ना
खरें किदें फट किदें?
सत्य कोणाक खबर ना

# वंशगुण

मुम्बय १३.२.१०

फाटल्या सुखी दिसानीं
शुभ्र आसपी मळब
ह्या अशांत दिसानीं
काळ्या कुप्यांनी भरप?

मर्दिंच स्फोटक ढगांनी
प्रकृती भयानक जाता
भिंऊन धांवपी लोकांनी
जिवाची हानी जाता

जग सुंदर रचून
मनशाचे स्फोट कितले?
मातीच्या आंगान वचून
मानव सादता कितलें?

पृथ्वीचे स्फोट जन्मासून
भुरगो हांलींच शिकला
भयानक शक्ती दोगांयन
लुकसान सगळ्यांचे जाला

पुर्वजांचो गुण भुरग्यानीं
पृथ्वीचो अंश मनश्यानीं
वायट गुण सगळ्यांनी
जाण दवरची नव्यापिढीनीं

## क्षुद्र

जिवनाचें मुल्य जाका कळ्ळां
ताका संसाराचें मर्म कळ्ळां
जाच्या लागी मनीसपणा ना
तो सदांच मनान जळ्ळां

काल किदें, आयज किदें
मनश्याचें जळप कांय थामना
दुसऱ्याचें सुखी जीवन केदें
ताजेर घालो घाल्याबगर रावना

मनीस जितलो जाता गिन्यानी
तितलोच मनान जाता अडानी
जसो व्हड जाता सुखसमृध्दीनी
तितलोच ल्हेवटो जाता मनोमनी

असंतुस्ट जावप ताजो गुणधर्म
दुसऱ्यांचे व्हडपण तो मानना
सुखाचें कळना ताका मर्म
अहंकारा बगर रांवक शकना

# मौन

चडसी सृश्टी मोनी आसा
फकत मनिस सारखो बडबडटा
सैम शांत मोनी आसा
मनीस किद्याक दिसरात बोबाडूटा?

शांततेन सृश्टीचो व्यवहार चल्ला
न उलयता ते सुखी आसात
आमच्या जिवनांत बोवाळ चल्ला
अती उलोवन वगडायत आसात

प्राणीमात्र एकमेकांक सामाळून जगतात
हजारों वर्सा आसात तशेंच आसात
वाच्या आसुनूय आमी भियेंवन वागतात
संसार अितलो वाडोवूनूय दुःखी आसात

मोने आसून जर ते सुखी
मोनो मनीसूय तसोच सुखी
जाल्यार उलोंवक येवप किदें बरें?
त्यापरस मौन धरिल्लेंच बरें

म्हान आत्माच मौन धरुं शकता
चड उलवप अवलक्षण आसता
उलावप्यापरस मोनेच बरें
बडबडणारो मात पिसोच खरें

## दैवा तराजू

दैवाच्या हातान आयुष्याचो तराजू
केन्ना वयर केन्ना सकल
जसो बैला खाद्यांर आसा जू
केन्ना वयर केन्ना सकल

नियतीचो अदमास कळना
स्त्रीच्या अनेक मनाबशेन
जीविताचो समतोल साधना
वयर सकल नाचपी लाटांबशेंन

दैवाच्या कात्रीन सापडूटा
आडकाटीत अडकिल्या बेड्याबशेन
दिसरात मनीस फरफटूटा
वादळाच्या अनिश्चीत वाऱ्याबशेन

## फसवें जग

सुंदर फुलांन कीड आसता
क्रूर प्राण्यानूय मोग दिसता
सावरीच्या मोंव आंगात
वज्राचो घट्टपणा बियेंत आसता

कठोर आंगात म्होव आस्तले
उकत्या हास्यानूय कपट लिपतलें
उपरी रुपार विश्वासू नाकात
लिपिल्लें अंतरमना ठाव घेयात

जगात बरेंवायट भरुन आसा
सुंदर भाय्यरुप कुरुप आसा
भुलभुलय्याक फसूं नाकात
आपलेंच हांशे करुं नाकात

# चित्रविचित्र जग

सृश्टी भायल्यान दिस्ता
तशी ती नासता
खुबदा जशी आस्ता
पूण खरें कळनास्ता

पणस भायल्यान खरखरीत
मात म्होवाळ भितल्यान
आंबो वयल्यान सुळसुळीत
आनी गोडूय भितल्यान

कारातें भायल्यान खडबडीत
तसेंच रुचिक कडू
काट्टें भायल्यान गुळगुळीत
चाटल्यार येता रडूं

पशुपक्षांचेय सांगपाक येता
वाघ भयानक आनी कृत्य क्रूर
कुरुप कावळ्या कृत्य घाण
घोडोकुत्रो सुंदर नी कृत्य शूर

एका कुंडात पांय घालश्यात
उदक थंड लागता
म्हऱ्यातल्या कुंडात बुडयश्यात
उदक गरम लागता

पूण मनश्यालें भायलें रुप
आनी भितलेल रुप
हाजी सांगड घालू येना
अंतरंग नक्की मोजूक येना

जग हें चित्रविचित्र
रुपरंगाचें आनी स्वभावाचें
जितलें म्हण सोदू वचश्यात
तितलेच कुवाड्यांत पडपाचें

# अस्थीरतेचो जनक मनीस

मुम्बय - १०.०६

गिमाळ्या रुतून वसंत येता
चराचर सुंदर चंवरता
धरतरीचेर नंदनवन फुलता
जिवन उमेदिन खुलता

पूण आयज गीम तापला
न्हयो दर्या आटोंवन वडयता
हिमालय, आल्प्स वितळू लागला
सृश्टीचो समतोल बदलता

उदकविणा सगळ्यांचो जीव सुकला
ल्हान जीव प्राण सोडटा
आंग सगळ्यांचें भट्टीन भाजला
चातकावरी पळेता पावस केन्ना पडटा

मर्दिंच पावसानूय नेम तोडला
आकांततांडव सुरु केला
शांत पृथ्वी अशांत जाल्या
भुकंपान तिका भेगो पडल्या

सृश्टीचो कांयच गुन्याव ना
मनश्याच्या कर्मान उलथापालथ जाला
अस्थीरतेचें मुळ मानवाचो अहंकार
ताणेंच उद्रेकाचो वेळ लागी हाडला

# मानवा नम्र जा

हे आयच्या मानवा
ते शक्तीक वंदि
नम्रता तुज्यान उणी
अहंकार सोडून दि

जें किदें मिळयला
ताजे देणें आसा
शिल्पकार तू न्हीं
ताज्या कृपेन आसा

सुक्ष्मातलो सुक्ष्शीम जीव
तांका ताणेच घडयला
अणुरेणू तोच जुळयता
ब्रह्मांड़ ताणेंच निर्मिला

# जिवांची माता

ह्या अमर्याद विश्वान
म्हजेशिवाय कोण आसा
केदोय व्हड जावनी
तूं म्हजो भुरगो आसा

उत्पत्ती केदिय जावनी
आवाट म्हजो व्यापू शकना
बुदवंत केदोय जावनी
शक्ती म्हजी गांठू शकना

शतकानशतक खणत रावनीं
दूध म्हजें पीत आसा
कृतघ्न कितलोय जावनीं
निमाणें कुशींत न्हीदपाचो आसा

# न्याय वो अन्याय

दुःखाचे दिस चड
सुखाचे खुब कमी
दिसरात खपून पड
मदतीचे हात कमी

नकश्टाक सुख चड
जातात भांगराचें धनी
नाबुद्दी जाल्यार रड
अर्द पोटाचो रिणी

शक्तीचो न्याय नकळो
देवाचो वर वेगळो
दुखीतांचो म्हण्टा कनवाळू
मानाय आजूय गाळता वाळू

सुखदुःखांचें हें नाटक
कालांतरा मेरेन चलतलें
दुसऱ्या खातीर राबूनय
गरीब असेच सोंपतले

त्याचखातीर मेंदू धडार काय
आनी हात पाय सकल
अक्कल हुशारीन खा साय
नाजाल्यार राव भुंयेसकल

## अनिश्चीत

तराजुच्यो दोन थाळ्यो
सत्य नी असत्य
जिवना दोन वेळो
जिवीत नी मृत

आसुनी जगाक खबर
न्याय देवता बुदवंत
मात दिता न्याय जबर
चड असत्य कमी सत

मनश्या बुद्दी आसुनी
कितलीय अती ज्ञानी
मेंदूच्या असंख्या विचारांनी
येवून घुसपता मनानी

विश्वात जिवन सगळ्यांचें
नक्कीच आस्ता अनिश्चीत
जाता जन्म आयज
दुसऱ्याच घडी मृत

## माया

प्रकृतिचो नियम आसा
नियमीत केन्ना अनियमीत
ब्रह्मांडाचें माप आसा
निश्चीत केन्ना अनिश्चीत

विश्व एक माया
दिस्ता तशें नास्ता
जरी विज्ञानाचो घट्ट पाया
गृहित धल्ला तशें नास्ता

# संसारसुख

सुखा कल्पना वेगवेगळ्यो
प्रत्येकान करच्यो तितक्यो थोड्यो
मनाक रुचता तश्यो रेखाटच्यो
जुळना जाल्यार पडटात गिड्यो

कोणाक दुडवा सुख
जाल्यार कोणाक नशेंचें
दोगांयनी वाडटा भंयभुख
मेळना सुख संसाराचें

कोणे वाड्यलो अहंकार
ताका गावलो तिरस्कार
जाणें पोसला सुसंस्कार
ताजो जालो उध्दार

जो भक्तीन तल्लीन
विश्वान आस्ता सुखी
घरच्यांची करपी खिल्ली
उरता मोगा भुकी

खरें सुख संवसारात
कुटुंबाक पालव दिवपाचें
तांच्या मोगाळ नदरेंत
गावता सुख जिणेचें

# नवो उजवाड

मुम्बय - १.१.०१

नव्या उमेदिचीं भुरगी आमी
नवे विचार घेंवन आयली
नव्या शतका सपणार उबीं
नवें सोद घेंवन आयलीं

जुन्या तत्त्वांचो पायो आमचो
जुनें अणुरेणु नसा नसांत
पोन्नो बुरसट विचार थामचो
पोन्नी जिद्द रगा रगात

भूतकाळाचो तेंको घेंत
वर्तमानाचेर नदर दवरुंया
भविश्याचो कळस चडयत
कश्ट कृतीची माळ अर्पुंया

# अप्रकृतीक

जगांत फकत मानव
प्रकृतीच्या उरफाटो चलपी
प्राणी, हिरवळ मात
सैमाच्या कलान वचपी

विश्वास कसो दवरप
मनीस दिसपट्टो बदलता
आयज दिता उतर
फाल्यां तेंच फिरयता

निसर्ग, चराचर मात
आरंभासून सारखी आसा
ईश्वरा बराबरी करपी मात
ब्रह्मांडाक फसयत आसा

# ममता आटल्या

मुम्बय - ४

नवम्हयनें गर्भ वाडोंवन
त्रास काडपी माता
नवदिसूय ना रावन
जीवा सोंपोवक कशी शकता?

भुंय थंडावपी पृथ्वी
आयज किद्या तापल्या?
भुरग्यांक कुरवाळपी साध्वी
भुरग्यां मानो किद्या कापल्या?

अशें किदें जाला
किं मातृत्व उणें पडटा?
ममता किद्या आटल्या
किं जीव सोपवचो पडटा?

दादल्यांचीच हि करणी
पिडूंक लागला मातांक
म्हातारी जाल्या तरणी
विंदून गेल्या जिवनांक

# प्रश्न उत्पत्तीचो

मन विचारां भिरभिरें भिरभिरें
किद्यारुच म्हण विश्वास दवरना
विचार म्हजें थरथरे थरथरे
एक मत म्हण थारना

देव आसा वो देव ना
आसा जाल्यार, दिश्टी पडना
तो जर खरोच ना
ब्रह्मांडाची क्रिया कशी थामना?

जर मनश्याची उत्पत्ती माकडासून
मनश्यामाकडाचो वंश किद्या वाडना
प्राणी वनस्पतीन एकाबशेन खुब प्रकार
एक दुसऱ्यासून किद्या उत्पन्न जायना

डार्विन म्हण्टा अमीबा जनक
आमी खंय माकडाचे वंशज
लैंग्य सबंदान एकासून दुसरो जन्मना
आजूय माकडमानव किद्या जन्मना?

कोणूच कोणासून उत्पन्न जावना
अनंतकाळासून सृश्टी अशीच आसा
सुक्ष्मजीव आनी प्राण्या उत्पत्ती
अजस्त्र प्राणी सोडल्यार तशीच आसा

## आत्म्यामाप

सगळे जंतू नी जीव
त्रीखंडान भरुन उल्यात
सगळे मनीस नी प्राणी
फकत पृथ्वीर भल्यात

जंतूकिड्यामुयां आत्म्या बेरीज
मापल्यार अमाप भरत
मनीसप्राण्या आत्म्या बेरीज
तांच्यापरस शुल्लक मापत

ताणीं घालो घाल्यार
प्राणीमात्रांक सपाचट करतले
क्षुद्रांक कमी लेखल्यार
केन्नातरी तोंणार आपट्टले

म्हण भगवंतान सांगला
आत्म्या शक्ती अमाप
प्राणी व्हड वो क्षुद्र
किन्तु आत्मो समान

## मरणा भंय कोणाक ?

मरणा भंय कोणाक दाखयता?
निश्चीत म्हण खबर आसा
भिंवून रावल्यार फुडें सरचेनात
कर्म होच ताजेर उपाय आसा

कर्मविरांक मरणा भंय दिसना
ते फुडें सरतूच आसता
दिसान दिस कुकर्म करतना
क्षणा क्षणाक मरण दिसता

# विटंबणा

मुम्बय - २००९

स्त्रीचें धन लुटपान
पुरुशाक कुडपण दिस्ता
तिजे जीण वगडांवक
ताका पुरुशार्थ भोगता

ती पुरुशा बराबरीन
आयज हवक मागता
तो राग दाबील्यान
तिजेर जबर करता

स्त्री स्वतंत्र जाल्यान
देह प्रदर्शन वाडला
पुरुशाचे दोळे वखवखल्यान
देह उपभोग वाडला

दोस कोणाक दिंवप ?
पुरुशाक वो स्त्रीक
आयज जग धांवता
त्रास जाता संसाराक

# आदिबोल

आदि अनादि काळासून सांगता
उदरगतीचो मार्ग आस्ता-नास्ता
त्याचवांगडा नरकाचोय मार्ग आस्ता-नास्ता
खंयचोय मार्ग निश्चीत नास्ता

जाच्या नशिबान जें
जाचें ताका मेळटा
ओडून घेतलें जाल्यार
तोणार आडवो पडटा

पुण्य पापाचें माप
जाचें ताज्या वाट्यांक
परोपकार, वायट करुनय
फळ जाचें ताज्या वाट्यांक

दिसरात कश्ट केले तरी
सुख मेळटाच अशें ना
जीणभर सुखान लोळूनय
पापदुख्ख मेळटाच अशेंना

म्हण, कश्ट काम
केन्नाच सोडपाचें नास्ता
फळ मेळटा नमेळटा
मरतना समाधान आस्ता

# जन्म पुर्नजन्म

ह्या जन्मा आयलो
नशिब वगडावन जगलो
खुब वैर सरपाक धडपडल्लो
पूण सकल फोंडाऱ्यान पडलो

कोणे सांगलें फुडले जन्मा
मेळतलें म्हाका नशिब बरें?
मेळ्यारुय तें फुडले जन्मा
आसतलोच तो हांव मरे?

ह्या जन्मा पुण्य कमाय
जातलो गिरेस्त फुडले जिवीतान
आयचें खरें ना कांय
फुडल्याची हमी दिवना विश्वकर्म्यान

जेन्ना पळेता दुस्ट, फटिंगांक
निसणीमेरेन मरतात दबाज्यान
जातात खंय फुडले जन्मा कफल्लक
भोंच जातली फाटली याद फुडल्या जन्मान

# तफावत

काबाड कष्ट करपी
कष्ट काडीत रावतात
दुसऱ्यांक नागवपी दुडवकार
दुडू पुंजायत बसतात

हातून दोश कोणाचो
मानवाचो वो दैवाचो ?
ग्यानी लोकांच्या विचारांन
आसा तो प्रकृतीचो

जाच्या ताज्या गुणान
वेलो वो सकल उरता
गुण आसा किद्याचो?
प्रकृतीन दिल्या बुध्दीचो

ती बरी वो वायट
मंद वो अती तल्लख
थोड्या लोकांच्या मतान
आसा दैवी गल्लत

म्हज्या मतान दिस्ता
बुध्दी वांगडा दैव
मनश्यांक उंचायेर व्हस्ता
जाता ताजो देव

कश्ट करपी मात बुध्दीविणा
खर ओतान करपता
दोन दिस अन्नाविणा
निमाणें मातयेंत मुंगरता

# उरफाटें चक्र

आयज सगळेंच उलटसुलट
सृश्टी, मानव, चराचर
चल्ला सगळें उरफाटें
जिविताची जाल्या फरफर

शांत शितल सृश्टी
जाल्या आयज मस्ती
सुनामी, कत्रीना नांवातिजी
गिळपाक लागल्या जिवावस्ती

सोद-सुदारणा जायत पासून
हाली जातात प्रलयभुकंप
नवी वाल उमलचें पयलीं
सगळीकडेन जाला भयकंप

शांत, प्रसन्न कालचो मनीस
आयज जाला बकासूर
कोणा गिळूं कोणा नाका
धादोस जिवनाचो गावना सूर

धर्मा फाटल्यान धर्म जाले
घडवपाक मानव, जिवसत्य
एकमेकांर घालो घाले
घडवपाक आयचे असत्य

कालचे चराचर शास्वत निरोगी
आयज ताका केला रोगी
मानव करता उलट सुलट
प्राणीमात्राची, सैमाची जाता फरफट

पवित्र, उरफाटें, अपवित्र
हिच जगाची रित जाल्या
सुंदरतायेचो अंत विकृत
जिवांचो होच गुण जाला

# भंय

भित्रें मन मातेकुशीन
कांपरें मन फातराआडेन
निसर्गातले सगळे जीव
घेता आदार बळिश्टाकडेन

भंय जन्मता जन्मासून
तो मरपाक तेकेमेरेन
सैमातल्या सगळ्या जिवान
भंय भल्ला अणूरेणून

भंयआनंद सगळ्या विश्वान
कमी चड जाच्याताज्यान
दिसून येता जगान
आनंदापरस भंय मनान

भंय काडपाचो आसल्यार
भितल्या आत्म्याक सोदात
तो आसा अमर
तेन्ना भयाक सोडात

# जिवनाचो सार मर्यादा

जिवनाचे तत्व आसा मर्यादा
मानवाच्या आचार विचार शक्तीचें
भाकरी, कापड आनी घर
हेरांपरस चड आसपाचे युक्तीचें

एकल्यान सांगला जा सन्याशी
दुसऱ्यान सांगला मोग कर
तिसरो सांगता मारुन मेळटा विजयश्री
आदित्य सांगता मानवा मर्यादा धर

मनीस कितलोय व्हांवक शकता
अमर्याद धन, स्वैराचार, मौजमजा करता
आनी इतरांचेर सक्तीन बन्धनाय घालता
प्राणीमात्र मात सदांच मर्यादेन चलता

मनाची इत्सा काबून जाय
किदेय भोगताना मर्यादा जाय
आत्मोय कुडीन मर्यादेन रावता
मर्यादा राखल्यार जग चलता

जिवनान मर्यादा हि जायच
निसर्गानूच हो नियम घाला
जिवन मरण नियतीची मर्यादाच
मर्यादेबगर जगाचो अंत हाडला

# तूं सोदू शकता

तुजी नदर तुजे सगळेवटेन फिरता
पूण अंर्तयामी जावन केन्नाच पळयना
तो भितरुचआत्मारुपान रावता
ताका सोदपाची तुजी इत्सा ना

ईश्वराक सोदपाक वेळ वगडांवक न
तुज्यानूच लिपला ताका सोदून का
ज्यादिसा गावातलें ज्ञान तुका
देवाबशेन वागपाची बुद तुज्यान हा

# विश्वा अन्त

जिवन अशांत किद्याक जाला?
जण एकल्यान राग धुमसत आसा
आनंदी संसार लुप्त जाला
सैमुय थैमान घालीत आसा

विश्वाचे हवामान बदल्ला काय?
चराचरात विशमतां दिसत आसा
राग आयल्यावरीं पावस जाला
सुनामी, भुकंप जायत आसा

भुरग्यां भितर लडाय चल्या?
शिकपापरस तामसी जायत आसात
प्रेमळ स्त्री झगडत रावल्या
लज्जा सोडून नग्न आसात

ग्रहांत मारामारी चल्या काय?
परिणाम पृथ्वीर जायत आसा
विश्व अस्थीर जालां काय?
ताजो अंत लागी आसा

# निस्वार्थी जगात

भुरगी पोरसांत खेळताना
अनंत आनंद मेळयतात
कसलीच इत्सा धरिनात
सगळें विसरुन रमतात

दादलो मात सदांच
लावाची इत्सा धरता
जेन्ना काम करता
तेन्ना फायदोच पळेता

कर्म करता तेन्ना
फळाची आस धरनात
आवडीन करता तेन्ना
आपसूक पदरांत पडटात

जर निसर्ग निस्वार्थी
मनश्यानूच किद्या स्वार्थ?
जाचें ताकाच मेळटा
हातूनच भल्ला अर्थ

# आशिर्वाद काय श्त्राप

विचारांचे जाळें ओंवला
लोण्यावरी मोंव मेंदूत
तर्कवितर्क चालूच आस्तात
नाजूक म्होवाळ मनांत

न्हिदेनूय खंय मनीस
विचार करीत आसता
ध्यानाक बसला तरी
चित्त थाऱ्यार नासता

विचारांची भेंट मनश्यांक
स्थिर बसूंक दिना
मना शांत दवरुनीय
घुसपागोंदोळ मात सोंपना

किद्याक देवान मनश्याकूच
विचारांचो गुंतो दिलो?
शांतिप्रिय इतर प्राण्यांक
बरो आर्शिवाद दिलो

# स्थितप्रज्ञ

मुम्बय - १.१.११

बुद्धीबळाच्या पटा बशेंन
हांव स्थितप्रज्ञ आसा
काळ्या धव्या चवकोनात
राजकारण घडत आसा

राजा किदें, राणी किदें
म्हाका ना हावेंस
प्याद्यान जरी राजाक माल्लो
प्रजेक येना आवेश

उंट वता तिरको
घोडो अडेचघरां चलता
प्रतिस्पर्धी तकली चलयता
राजाराणीक कॅसल करता

प्यार्दि फुडें सरकतात
अकस्मात वजीराक मारतात
राजाराणीक चेकमेट करतात
खेळाचो घोळ करतात

निमाणें चाली मेरेन
हांव, तटस्थच रावता
राज्य जिंकू, वो वगडांव
हांव, स्थितप्रज्ञच रावता

# अस्थीर

मुम्बय - १

बायलांचे मन ओळखप
दादल्यांच्या शक्ती भायलें
ब्रह्मदेवाचें मत घेश्यात
ते ना उत्तर दितले

घडीघडी मत बदलपी
ही बायलांची खासीयत
घडीघडी कपडेय बदलपी
ही तांची नजाकत

तरी वेळ येवना
आपलो घोव बदलपाची
मनार घेत जाल्यार
इस्सा तेंवूय करपाची

केन्ना मोग करत
तें सांगोप कठीण
केन्ना राग धरीत
हें ताजेपरस कठीण

शेड्डो रंग बदलता
बांयला मत बदलता
पृथ्वी हळू बदलता
बांयला जगाक बदलता

# विपरीत घडण

मुम्बय - २६.१०.०७

नवयुगान मनश्या विचार
किद्याक जाल्यात दुस्ट?
सरळ साधो मानव
किद्या जाला नतद्रस्ट?

पुर्वील्ले मनीस स्वच्छ मनाचें
आपल्या संसारात सुखी जाल्ले
आयचे भुरगेच विचित्र विचारांचे
भायल्या उचापतीन चड पडिल्ले

मनश्यान पयले शस्त्र निर्मिलें
आणी क्रूरपणाक सारें घालें
नवनवीन यंत्राशस्त्रा सोद जाले
वाकडे मनश्याबशेन अविचारुय आयले

आयचे भुरगेय शस्त्रां वापरतात
नाजूक मन फातरा जालें
आवयबापूय जर विचित्र वागतात
नवपीढीचें मन तशेंच घडलें

आदर्श संसारान मन रमयात
दुडवा फाटल्यान लागू नाकात
समाजसुदारपाक वेळ लागचोना
फाटलो सुखीसंसार परतो हाडात

## दुस्वास

दिस्तपटटो दुस्वास वाडला
दुसऱ्यांक समजून घेंवप
दुर्मीळ जायत चल्ला

दिस सुंदर आशिल्ले
दुसऱ्या धर्मा बाबत
दिलोजान प्रेम आशिल्लें

दिस सल्ला नसल्ला
दारान मरुन पडला
दूक व्हावंत रावला

देवा मनात किदें ठल्ला ?
देवचारा राज्य करुन
धरती निर्जन करप चल्लां ?

## मनीसवृत्ती

एकाच्या जिवार दुसरो उठला
जिवान जिवाक मारपान किदें उल्लां?
मनश्यान मनीसपण कशें सोडलां?
जाचें ताणें स्वतःक विचारचें उल्लां

जिवांच्या सुवातेसून आयजमेरेन
एकट्याक खांवन दुसरो उल्ला
स्वापदांचो मात नियम ठल्ला
मारपाचें थामयता जेन्ना पोट भल्ला

संतमुनी जांवन गेले खोंटल्यानी
मनश्यांच्या वृत्तीन मातूय फरक ना
एकमेकां खांवन पोंट भल्यारुय
आनी मारपाक फाटीं रावचें ना

# हिंसेझाड फोफावता

अत्याचाराचें बीं रोंयला
आमच्या धरतरेर
कलीयुगाचें वारें भल्लां
तरुण मनाचेर

पृथ्वी घुंवत रावल्या
त्याच वेळाचेर
मानव बदलत चल्ला
दिसपटट्या हिंसेचेर

सैम फुलता
आपापल्या नियमार
मनीस उलटो धांवता
करपा हुकूमत जगार

पैसो चड जातकर
धर्मा व्हडपण दाखयतात
दुसरे धर्मी जळतात
हिंसेचो वापर करतात

आयज पैसो करता
लोकांत असमानता
सैतानाच्या तकलेन
हिसेंझाड फोंफावता

लोकांक जेन्ना कळतलें
आत्मोच देव, धर्म
मानवजात एक समजतले
जगांत वाडटलें बरें कर्म

# काळो बुधवार

मुम्बय -

म्हजी दुकां सुकून गेल्यात
दोळे म्हजे पुसूं नाकात ।

दिसपटटे रस्त्यार मडीं पडत आस
मनश्यांची किंमत कोणाकूच ना
आतां बायलाभुरग्यांक मारुं लाग
निष्पाप लोकांची काकूळट मात्तूय

म्हजी दुकां सुकून गेल्यात
दोळे म्हजे पुसूं नाकात ।

राजकर्ते आयज फातरा बावली ज
दुडू पुंजावपापरस दुसरें काम ना
आतंकवादी आनी दुडवकार एक
मनश्यांच्या अस्मितायेची तांका प

म्हजी दुकां सुकून गेल्यात
दोळे म्हजे पुसूं नाकात ।

परतो मृत्यू खेंव घालीत आसा
जगातले कोणूच ते थामयनात
सैतानाचें भुरगे भयनाट्य करतात
तांगेले धर्मगुरुंचो तांचेर जाब ना

म्हजी दुकां सुकून गेल्यात
दोळे म्हजे पुसूं नाकात ।

अती सुदारणा आनी अती जुनाट
एकूय धर्म दुसऱ्याचो आदर करीन
अती व्याभीचारी आनी अती बंद
सगळी मनीसजात एक म्हण कळ

म्हजी दुकां सुकून गेल्यात
दोळे म्हजे पुसूं नाकात

# वैऱ्याक ना करुया

मुम्बय - २६.११.०८

आतंकी एतले नी सोपंतले
जसे राक्षस आयले नी मेले
जगान परिवर्तन हे घटटलेंच
परिस्थीतीक तोंड दिंवचें पडटलेंच

दुष्ट रावणान विध्वंस केल्लो
शूर रामान तो थांमयलोच न्हीं ?
कपटी कौरवानीं युध्द केल्लें
कृष्ण-अर्जुनान तें जिंकलेंच न्हीं ?

अशीं कितलीं रामायणा घडलीं
तशींच आनी महाभारता घडटलीं
वायट घटना घडत रावताच
प्रतिकार करप मनशाचो धर्मच

दुश्कर्माक भिंवपाचें कारण ना
दोन हात करपाक बळ आसा
लाखों वर्सां झगडलाच न्हीं
म्हण सगळ्यांवयर तगून आसा

क्रूर प्राण्यांवांगडा जगलो मूं?
मानवीकातडीतल्या पशूंक भिंवोप?
खुब त्रासातल्यान भायर सल्लाच मूं?
आतां दुस्टांक किद्याक भिक घालप?

आतंकवाद्यांची जात सैतानाची
तांचो धर्म न्हीं तो अधर्म
फुडें दिसपटटें रात येतली वैऱ्याची
झगडूंक बळ दितलो सत्यधर्म

# शक्ती वो शुन्य?

जिवदात्याचें आश्चर्य खरें
त्रीखंड तिजे मर्जिचेर
तिनूयलोक सामाळता बरें
गर्व ना अनंतरुपाचेर

आसता तिची नदर
बारीक सारीक गजालींचेर
कशी दवरता पकड
क्षणा क्षणांच्या घटणेंचेर

मनीस नियंत्रण दवरता
त्रीखंडान भरिल्या जिवांचेर
ती शक्ती दवरता
ब्रह्मांडातल्या जिव जिवनांचेर

तिजे दोळे सगळ्यांचेर
सुक्ष्मजीव ते अजस्त्रांचेर
ग्रहताऱ्यांची कुंडली बसयता
विघ्नाय हाडटा अनेकांचेर

सत्ययुग ते कलीयुग
काळ फिरयता बोटांचेर
मंगल ते अमंगल
घडयता आपल्या इत्सेचेर

सगळें सहज घडटना
तिजें अस्थित्व अनिश्चीतिचेर
तिजो सोद घेतना
सगळें निमाणें शुन्याचेर

# अगणित

असंख्य ग्रहतारे अनंतांतले
म्हाका तांका मेजूनी
अमर्याद मळबांत फांकिल्ले
म्हज्या म्हऱ्यान पांवूनी

चकचकपी हिरे मळबांतले
मनाक खेंचून घेतात
चित्रविचित्र आनी रंगातले
मतीक सुन्न करतात

दोळे ताणून धल्यारुय
पैस तारो मिचूकता
ब्रह्माण्ड सोंपताशें दिसल्यारुय
फाटल्यान अगणित चकचकता

नसोंपपी चलतचित्र पळोंवन
मती गुंग जाता
सर्गाची लिला कळून
दोळे दिपून वता

अनंतान ते आसून
आत्म्याक स्पर्श करतात
क्षणीक भास जाता
नवी संजिवनी दितात

# आदार

जसो वेलीक आदार झाडाचो
बायलेक आदार पुरुश्याचो
जशी ल्हवल्हव ती चंवरता
घटमुट पुरुशावांगडा फुलता

एकलोच वयर कोणूच सरना
सैमान सगळ्यांक आदार लागता
मार्ग ओगीच सोपो जायना
जिवितान साथ घेंवची पडटा

सृश्टीचो तो नेम जाला
एकाक दुसऱ्याची मदत लागता
जो स्वतःखातीर जगला
तो बेगीन सोपून वेता

आत्म्याबगर आयुश्यान जगप कठीण
ताजीतरी साथ घेंवची पडटा
विश्वचक्रान तगून वचप अतिकठीण
जो स्वतःक सर्वशक्तीमान म्हण्टा

# एकलोच चलपाचें आसा

तुका एकलोच चलपाचें आसा
आयुष्याच्या सुवाते ते अन्तामेरेन
तुका एकलोच चलपाचें आसा

जन्मलो तो एकटोच जन्मलो
मरतलो तोवूय एकटोच वतलो
तुज्या जिविताच्या मदल्या काळानूय
तुका एकलोच चलपाचें आसा

दिस रात स्वतःकडेन झगडटा
ह्या वेळारुय एकटोच आसा
मित्र मंडळीन मदत केल्यारुय
तुका एकलोच चलपाचें आसा

आप्त सोयऱ्या वांगडा रावतना
भयानक गजालींक सामकार वतना
दोगांयच्या हिताचो विचार आयल्यारुय
तुका एकलोच चलपाचें आसा

## संयम

वायट कृत्यां असंस्कृतीन
काय येता अनुवांशिकतेन
कसली पीडा लोकांत
काय परिणाम अतीसुधारणेंन?

वायट विचार जरी आयले
बरे विचारान मात करात
बरेवायट घडत रावतालें
बरे विचार मतींत हाडात

## काळो कॅनव्हास

जिवीताचें रहस्य किदें ?
म्हाका केन्नाच उमगलें ना
आत्म्याचें सूख किदें?
म्हाका केन्नाच गावलें ना

अर्दें आयुष्य वगडायलें
पूण जिविताचें सार्थक ना
निस्वार्थी, परोपकारी जिवितांत
मनशांती मात लाभली ना

सुर्यास्ताचे लाम वाटेर
मनशांतीचें चित्र चितारतना
धव्याफुल्ल कॅनवासाचेर
काळ्यागोबऱ्या रंगाबगर कांयच काडलेंना

# मुंगरलेलो मनीस

अनादि काळाचे आदिवासी
आयजमेरेन उपेक्षित आसात
आदि सुवातेसून
ते उपाशी उल्यात

रामराज्य, सुवर्ण काळ
आयलो गेलो
फाटक्या लुगड्यातलो
आयजमेरेन तसोच उल्लो

फातर, लोखंणा काळासून
भांगर ताका गावलेंच ना
फातर लोखंण धोडायलें
शेतकामातीक एक वेळचे अन्नूय ना

अर्द आंग धापतासर
हजारां शेकडो काळ सल्लो
पोटाची खळी भरतासर
आपल्याच मातयेन मुंगरल्लो

# भूक

पोटा भूक
कीं मना भूक
वो तना भूक
भूक निमाणी भूकूच

जेन्ना ती लागता
बाकी नाका आसता
मन आनी तनापरस
पोटाभूक व्हड आसता

गरीब-गिरेस्त
कोणांतूय फरक करिना
ती थारपाक
कोणूच कोणाक रावना

वेळ पडल्यार
एकटो दुसऱ्याक
मातूय रावना
जितो लेगीत खावपाक

# तर्कवितर्क

मोडके जुनाट वास्तूर
झोंपाळो हालत रावला
ताज्या थकिल्या आंगार
वारो व्हांवत रावला

उमेदिचे पळेल्ले दिस
दोळ्यांत एकठांवन रावल्या
वाऱ्यार नाचणारें पीस
भुतावरी हालत रांवला

घयरांवा जाग्यार जाग्यार
म्हेळो विचार आयला
दुखां भल्या विटेविटेर
बुनयादिक वेर गेल्या

त्रासपीडा खीणा खीणार
भुतकाळाच्यो यादी सांठल्या
तांबडो रंग दारादारार
पोन्नी वणत ओलावल्या

# अनंत

अनंतान एकठायल्ली शक्ती
येवजपा भायर आसा
मुर्तीर आसू भक्ती
शक्तीमान त्रीलोकी आसा

तत्ववेत्ते सांगून गेले
मात गुढ उकल्ले ना
संतमुनी जांवन गेले
अनंतामेरेन पावले ना

चड नी कमी शक्ती
सगळे जाणून आसात
अकार्यक्षम आनी एक शक्ती
तांचें सगळ्यांचें समीकरण आसा

शक्तीनशक्ती घुसपून उल्या
कोणावाट्या कशी येत?
चड, कमी आनी अकार्यक्षम
हें कोण सांगू शकत?

अतीसुक्ष्म जंतून शक्ती
आकाश ते पाताळ एकवटल्या
अतीदिव्य सुप्त शक्ती
पशू-मानव नी झाडान भल्या

शक्तीचें वांटप शक्तीच जाणा
नकळत रिती जाता, भरता
ती जर एवजून करता
जिवशक्तीन फरक किद्या जाता ?

# धर्म-अधर्म

हजारों वर्सां पयली
लोक आसले रानवट
मनश्या जात पयली
बुध्दीन आसली बावळट

रानटी नी क्रूर
लोक पशूभशेन आसले
तांतूतले कांय शूर
झुजारी आसले

वर्सां वता तशीं
मनश्या बुध्दी वाडली
समाजा घडी कशी
आयचे बशेन नाशिल्ली

अबुध्द मनश्या टोळीन
गिन्यानी जन्माकआयले
इतरांक सुदारपा दृश्टीन
फातर पुंजपाक लागले

देवा म्हत्व पटपाक
धर्म तयार जालो
आपलो श्रेश्ठ म्हणपाक
धर्माचेर अधर्म लादलो

जितलो गिन्यानी जालो
धर्मान झगडपाक लागलो
श्रेश्ठत्व सिध्द करपाक
मनशांकूच मारपाक लागलो

हजारां वर्सांनी सुधारतासर
चड फाटल्यान गेलो
धर्म वाडयत रावतासर
अधर्मी जावन पडलो

## आंतरदृष्टी

दृश्टितल्यान सृश्टी दिस्ता
दृश्टिबगर फुडलें दिस्ता
मना जनेल उघडटा
तेन्ना ब्रह्मांड प्रगडटा

सृश्टीभायरुय अनंत सौंदर्य
अंतरमनान पळोवंक शकता
रुढीभायरुय काळजा औदार्य
मानवाक नवीदृश्टि दिता

विश्वा सौंदर्य जो जाण्टा
तो केन्नाच चिंतीत नास्ता
जाका कुरुपानूय सुंदरम कळटा
ब्रह्मज्ञान ताका उपजत आस्ता

## समलिंग ओड

समान योनीचें आकर्षण
दिसानदिस उकतें जाता
आदलें, मनाचें दडपण
झुगारुन स्वतंत्र जाता

अनादि काळातले समलिंगी
गुपचुप भोग घेताले
समाजाच्या, रुढीच्या भयान
आपलें मन मारताले

आयज समाज बदलता
हेरांच्यो इत्सा जाणता
निसर्गान वेगवेगळी तरा
ताजोच भाग, तेन्ना माफ करा

## मन घुस्पलां

मनाचें व्हडें दर्यार
प्रश्नाच्या ल्हारार नाचता
अथांग मश्तिक सागरार
कळना केन्ना घुसपता

खोली मापप जमना
खंय सोपलां कळना
भोंवऱ्याचो भिरांत दिसता
काळीज उसळत रावता

म्हजे प्रस्न सोडवपाक
मळबार नदर लायता
तोवूय दर्या जुळवो
प्रस्न तसोच उरता

मना समाधान जावपाक
दुसऱ्या मनाक विचारता
दुसरेंय म्हज्या काळजाचें
म्हाका घुसपावन दवरता

## जिवन

मुम्बय १.१२.११

पुल्लींग
स्त्रीलींग
नपुसकलींग
बेरीज
वजाबाकी
गुणाकार
भागाकार
शुन्य

# ब्रम्हांडेश्वर

सुर्य

चंद्र

पृथ्वी

मळब

दर्या

न्हय

नारायण

नटेश्वर

नरेश्वर

# असमान आत्मे

गांयडोळ

१५६

पेशी

मनीस

अब्जानी

एक

पेशी

एक

आत्मो

चड

पेशी

असंख्य

श्रेश्ट

योनी

खुब

पेशीं

आत्मे?



कविता बरौवपाची आवड आपसूक गोवा मेडिकल कॉलेजीत, मेगेझीन से
आस्तन्ना जांवन, हांवे कोंकणी साहित्याक म्हाका व्हांवन घेतलें. पयली
हांवें हिन्दीन केल्ली. किद्याक तर हिन्दी भाशेचे आनी भारताबद्दलचो
उफाळून आईल्लो. मागीर विचार केलो किं हिन्दीन, मराठीत भरपूर स
लिखाण आसा. हांवे कोकणी साहित्याक थोडो तरी हारभार लांवक
१९८३ जेन्ना म्हजें पयलें चित्राचे प्रदर्शन, पणजेच्या मिनेझ ब्रगांझा
उक्तायल्लें, तेन्ना २५-३० चित्रांचो आशय हांवे कवितेरुपान चित्रा
मागीर हांतून आनी कवितांची भर घालून, 'गोंयचो परमळ' नावांचे
१९९३ सान प्रकाशित केलें. ताजे उपरांत कान, नाक आनी घश्याचो
जांवन मुम्बयत म्हजो व्यवसाय सुरु करतकर कविता, चित्रा आनी शिल
कूशींत उल्लीं. पूण खरो नेट ह्या ७-८ वर्सांत आयलो आनी ३५० वैर
बरोवन जाल्यो. तांतूतल्यो १०४ वैचारिक कवितांचो संग्रह 'गुढ मती' ह्या पुस
वाचप्यामुखार दवरता. निमण्यो तिन कविता जपनीस 'हायकू' रचनेंत आसात. व
कवितेन हि नवी तरा जावूये. कोंकणी साहित्यांत आनी एका पुस्तकाची
म्हण चड आनंद जाता. वाचप्यांक हें पुस्तक आवडचें इतलीच इस्सा.